# जिणेची गंगोत्री

(कविता)

चंद्रिका चंद्रमोहन पाडगांवकार



कामिनी प्रकाशन

# जिणेची गंगोत्री

कविता संग्रह

**चंद्रिका पाडगांवकार**

# JIINNECHI GANGOTRI

Konkani Poetry collection

By : **Chandrika Padgaonkar**

पयली उजवाडावणी :
**2010**

प्रकाशन क्र. : **1**



उजवाडावपी :
**चंद्रिका चंद्रमोहन पाडगांवकार**
कामिनी प्रकाशन
'ईशदीप' चोगम मार्ग, आल्त परवरी,
गोंय - 403 521
मोबायल : 9823769115

मुखचित्र :
**कालिदास का. सातार्डेकार**
फोन : 9326114395

छापपी :
**हिरू नारायण नायक**
रुतू ऑफसेट,
वळवय, फोंडें - गोंय 403 401

अक्षर जुळणी :
**रीया ग्राफिक्स**
क्लासिक अपार्टमॅण्टस, पोरणें गोंय,
गोंय - 403 402
मो. : 9881409237

मोल : **100/-** रुपया

ही जिणेची गंगोत्री
म्हजी मांय स. विजयाबाय पाडगांवकार
आनी
मांव स. दामोदर पाडगांवकार
हांच्या
पवित्र यादींक ओंपतां

- चंद्रिका

## पूर्व–प्रसिद्धी

- दै. 'सुनापरान्त' – चवथ अंक
- 'जैत' दिवाळी अंक
- 'बार्देस' दिवाळी – चवथ अंक
- समकालीन भारतीय साहित्य – हिंदी अणकार (साहित्य अकादेमी पत्रिका)
- पणजी दूरदर्शन केंद्र
- आकाशवाणी पणजी केंद्र.

## म्हजीं दोन उतरां

'चान्नें म्हज्या आंगणांत' ह्या कविता संग्रहा उपरांत 'जिणेची गंगोत्री' हो म्हजो दुसरो कवितां झेलो ईश्वराचे कृपेन आनी म्हज्या बरे मागप्यांच्या प्रोत्साहनान आनी इत्शेन आयज प्रकाशीत जाता, हो म्हज्या जिवितांतलो एक सुवर्ण खीण!

म्हजें जिवीत / एक कवीत / उतरां केळयता
उतरांत उतर / गुंथून नवें / झेले सजयता

हो कविता संग्रह म्हज्या काळजाच्यो संवेदना आनी उमाळे घेवन येता. सादेसुदे सर्जनशीलतायेंतल्यान मनांत जें जें खतखतलें तें तें कागदाचेर देंवोवपाचो हो म्हजो यत्न.

फेंसांतलो बोमाडो हो कांय खिणांचो. तो केन्ना फुट्ट करून फुटत सांगूंक जायना, पूण तातूंत जे रंग उदेतात ते रंग मनाक आकर्शून घेतले बगर रावनात. जिवीत हें अशेंच! खूब सुंदर! खूब सोबीत, पूण तातूंतले रंग वेंचपाची मनशाची ताक खंय तरी उणी पडटा अशें दिसता.

संघर्श हें मनशाचे जिणेंतलें सनातन सत्य. दर्याक जशी सुकती भरती येता, तशे तेय जिणेंत आयले बगर रावंना, देखुनूच तातूंतल्यान सांवरून सकारात्मक वृत्तीन जो मुखार वता ताकाच जिणेचें तत्वगिन्यान कळटा.

हें जरी खरें आसलें तरी संघर्शकाळांत जें कितें घडटा तातुंतूच मनीस शेणपाचीय शक्यताय आसता.

अस्तुरेचे जिणेंत तर दोट्टी संघर्श! आपलो संवसार, नोकरी, कला आनी समाज हांची सांगड घालपा इतली कुशळटाय आसून लेगीत तिच्या वांट्याक घुसमट येता. अशे अवस्थेंत तिचें व्यक्तिमत्व फुलूंक, फळूंक पावना. अशीं कितलींशींच उदाहरणां आमी पळयल्यांत आनी पळयतात.

स्वताचें अशें अस्तित्व आसून लेगीत तें दाखोवपाची संदूय तिका मेळना. आनी तें दाखोवपाचें जालें जाल्यार तितलें धाडसूय नासता. देखुनूच आजूय

तिका 'अबला' म्हूण फाटीं दवरतात. तिच्या विचारांची आनी भावनांची दर
सोंपेपणीं घेवप जायना.

जिणेचे गंगोत्रींत अशाच आशयाच्यो कांय कविता उफाळून आयिल्ल
आसात ज्यो वाचप्यांक एके वेगळे तरेची सुचोवणी करतात. वात्सल्य, रा
मोग, व्यंग्य आनी सैमीक, सामाजीक वातावरणाचेंय पडबिंब हातूंत दिसतलें

ह्या खिणाक म्हाका कवीवर्य मनोहरराय सरदेसाय हांच्या उतरांचीय य
जाता. 'चान्नें म्हज्या आंगणांत' ह्या पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत तांणी म्हणिल्लें
"तिच्या नांवांत दोन चंद्रीम आसले, तरी तिच्या अणभव विश्वांत सुर्याचीं ख
किर्णांय आसात." काव्यान भारावन गेल्ल्या लोककवीच्या ह्या उतरांतल्या
म्हजे कवितेक एक बळ मेळ्ळां हाची जाणविकाय म्हाका सदांच उरतली.

ह्या संग्रहाक कवी माधव बोरकार हांची नकसूद उतरांनी बरयिल्ली प्रस्तावन
म्हणल्यार भांगराचे मुदयेचेर जतनायेन बसयिल्लीं वज्रां. तांचे प्रोत्साहीत करप
प्रस्तावने खातीर हांव तांचें काळजांत सावन आभारी आसां.

'गंगोत्री' हें पवित्र गंगामाईचें उगम स्थान. 'जिणेची गंगोत्री' ही म्हज्य
जिवितांतल्या अणभवांतल्यान आनी कल्पनाविश्वांतल्यान प्रगट जाल्ल्य
काव्याची खळखळ व्हांवती धार. ती तुमच्या हातांत सोडटना खूब आनंद
जाता.

– चंद्रिका पाडगांवकार

# जिणेचे गंगोत्रीच्यो कविता

'जिणेची गंगोत्री' हो चंद्रिका पाडगांवकार हांचो दुसरो कविता संग्रह. आमच्यांतले कांय नवे कवी एका संग्रहाच्या मुखार वचनात. फाटल्या धा वीस वर्सांच्या काळार नदर मारल्ल्यार ताचो अणभव येता. तातूंतल्या कांय जाणांनी तर खूब अपेक्षा निर्माण केल्ल्यो. ताणी बरोवपाचें थांबयलें ही खंतीची गजाल. कांय कवीं मदीं निखटी उमेद आशिल्ली. तांचें बरप थांबलें हें सभावीक दिसता. सगळेच बाकीबाब बोरकारा भशेन अलौकीक प्रतिभेचें देणें घेवन आयिल्ले नासतात. आनी प्रतिभा आसलीच म्हूण जायना. तर तिका वाचनाचें आनी अणभवाचें उदकसारें घालें जाल्यारूच ती रसरसूंक पावता. ह्या संदर्भांत म्हाका आनीक एका कवीची देख दीन दिसता. तो कवी म्हणल्यार शंकर रामाणी. तांणी आपल्या बरपाक 1937 वर्सा सुरवात केली. तांच्यो 1942 पसूनच्यो कविता वाचपाक मेळटात. पूण तांकां आपलो खरो सूर मेळपाक 1960 वर्स उदेवचें पडलें. दोन दसकां वयर काळ हो तांचो खर साधनेचो काळ. ह्या काळांत तांकां खूब सोंसचें पडलें. पूण कवितेक तांणी कशीच सोडलिना आनी 'आभाळवाटा' ते 'गर्भागार' मेरेनचो तांचो प्रवास अजाप करपा सारको जालो. ताचें कारण म्हणल्यार तांची साधना आनी कविते वयली अढळ अशी स्रद्धा. कविते वयले निश्ठेची खरी गरज आसता आनी तीच तिका फळादीक करता. चंद्रिकाचो हो दुसरो कविता संग्रह पळोवन तिणें कवितेक आपली निश्ठा ओंपल्या अशें म्हणपाक कांयच हरकत ना.

कवितेचेय दोन पक्ष आसतात. एक भावनांचो आनी दुसरो विचारांचो. तातूंत विचारांक बांदिल्ली कविता तिच्यो अश्यो मर्यादा घेवन येता. ती एके विशिश्ट विचारधारेक आपल्याक बांदून घेता आनी तिची गुलामी पत्करता. कले कडेन उकते नदरेन पळोवपाची गरज आसता. आनी ही मेकळी नदर तिका एक उंचाय प्राप्त करून दिता. चंद्रिकाची कविता ह्या दोनूय पक्षां मदीं प्रवास करता.

हांव बरयतां / मनांतलें ओंठार
आनी ओंठा वयलें / कागदार

असो हे कवितेचो प्रवास आसा. चंद्रिकाचे कवितेंत बायलेच्या काळ्ज़ा उत्फरके उमाळे उमळून आयल्यात. आवय आनी भुरगीं हांचे मर्दीं आसा नात्याची वीण 'घोटेरांतलीं पिलां' सारकेली कविता विणटा. ज्या पिलांक माये वाडयता तीं पिलां पांखां फुट्टकच एक दीस घोंटेर सोडून मळबांत झोंपय घेतल हाची जाणविकाय आवयक आसताच आसता. तरी ती तांचेर मोग करपा सोडिना.

घोंटेरांतलीं पिलां तुमी / घोंटेरांतूच उरचीं नात
एक दीस येतलो असो / म्हजी गरज पडची ना.

आपल्या पिलांनी फकत घोंटेरांतूच रावप आवयक मानना. घोंटेराचो हुमर हुपून संवसाराचो अणभव घेवप हें गरजेचें आसा अशें तिका दिसता. आपल्य पिलांचो परजळीत फुडार पळोवपाची तिका आस आसा म्हणून तांचो पयसाव सोंसपाची तिच्या मनाची तयारी आसा. ती म्हणटा :

पांखां तुमकां फुट्टलीं / मळबांत तुमी उडटलीं
दिगंताचें नवें कवन / कर्तुबांतल्यान गायतलीं

अश्यो अर्थपूर्ण वळी हे कवितेक फुट्टात. 'दिगंताचें नवें कवन / कर्तुबांतल्यान गायतलीं' ह्यो दोन वळी खूब कितें सांगून वतात. अभिव्यक्तीची चमक तर तातूंत दिसताच पूण ह्या संग्रहांतल्यो ह्यो दोन वळी वाचप्याच्या मनांत दीर्घ काळ मेरेन लक्षांत उरतल्यो. खरें म्हणल्यार कवी म्हूण चंद्रिकाची तांक दाखवपी वळी अशें म्हाका दिसता. इतलेंच न्हय तर त्यो चंद्रिकाचे कवितेच्या प्रवासाची दिका दाखयतात.

एक बायल ह्या नात्यान तिका आयिल्ले अणभव ती शब्दरूप करता. तिका जियेतना वेगवेगळ्यो भुमिका घेवच्यो पडटात. घोवाची बायल, भुरग्यांची आवय, ते भायर समाजांत वावुरतना बरे वायट अणभव गांठीक येतात. ह्यो भूमिका करतना तिच्या मनाचेर ताण येता. हो ताण काळजार दवरून खूब

फावटीं तोंडार रुपडें चडोवन ती वावुरता.

सुपांत फाफडून / गाळण्यांत घालून
कोणाक तरी धादोस करूंक / धडपडटां हांव.
हांव म्हजें न्हयच शें /खामसुत्री जावन / नाचतां हांव

खामसुत्री ही कल्पना थोडी 'क्लिश्ट' आसली तरी तिच्या मनाची ताणिल्ली अवस्था सूप आनी गाळणो हांच्या प्रतिमांतल्यान अभिव्यक्तीचें वेगळेपण घेवन व्यक्त जाता. तशें पळोवंक गेल्यार आज संवसारांत नवें सांगपा सारकें कांयच नासता. पूण पोरणो अणभव नवे तरेन सांगप आमच्या हातांत आसता. ताका लागून पोरण्या अणभवा कडेन पळोवपाक नवी नदर जाय. हे खातीर नव्या प्रतिमां बाराबर नवे उतरावळीचो वापर करप गरजेचें. सरभोंवतणचो संवसार पळोवपाचो अभ्यास आसचो पडटा.

म्हर्जी पावलां / म्हजे आवयच्या कुसव्यांतल्यान
जल्माक आयलीं
तीं थांबलिंनात / निरशेलिंनात
मेळत ते वाटेर चलत रावलीं / चलत रावलीं

सारकिल्यो वळी चंद्रिकाक ती नदर आसा म्हणपाची गवाय दितात. 'गोंयकारांनो' सारकिले कवितेन तिणें एका लेखाचो विशय मांडपाक कवितेचो आदार घेतला अशें ही कविता वाचतकच दिसले बगर रावना. (अणभव आनी विचार हांचो सुमेळ कवितेक उंचाय आनी खोलाय दिता.)

मनशाची जीण काळा प्रमाण आनी काळा वांगडा बदलत आसता हाची नोंद चंद्रिका घेता.

खिणाखिणाक जग बदलता
खिणाखिणाक नवें वत येता

अश्यो गद्याचो रुपकार आशिल्ल्यो वळी वाचतना कवितेक वेगळेंच मोडण मेळटाः

तुका जाय तशें / हांव ना
म्हाका जाय तसो / तूं ना

'हांव – तूं' ह्या मदल्या नात्यांतलो बदल हांगा अचूक व्यक्त जाल्लो दिसता सरभोंवतणच्या संस्कृतीक आनी सामाजीक पर्यावरणाचो परिणाम मनशा मनश मदल्या नात्याचेर आनी मानवी मुल्यांचेर जाताच जाता. आमच्या जिवितां मशीन आयलें आनी आमचें जिवीत भायर भितरल्यान पुराय बदलून गेल्याचें आमी अणभव घेतात. कवयित्रीक ताची जाण आसा.

चंद्रिकाचे कवितेचो आनीक एक म्हत्वाचो आशय म्हळ्यार मोग. तो तिचे जिणेंत आयलो आनी तिचें जग बदलून गेलें. अशा मोगाच्या नाजूक तरल नात्याची खर सोदपाचो यत्न ती करता. देखून –

रुतू येतले रुतू वतले / संवेदनाचे चंवर / सनातन उरतले
प्रितीचे दीर्घ स्वास / शिरंतरांतल्यान अनुपम / राग आळयतले

अश्यो वळी वाचपाक मेळटात. अधाशी जीण हे कवितेंत चंद्रिकान म्हणलां

मेळत ती माती म्हजी
अंतराळीं नातीं म्हजीं
गगनचुंबी उडिल्ली
अधाशी जीण म्हजी

मळबाक गवसण घालपाची हे कवितेची आस तिच्या सृजनाक नवें बळगें दिवं....

**– माधव बोरकार**

# अनुक्रम

1.

## आत्मस्वरूप

हांवें ग्रंथ वाचले ना
हांवें महाकाव्य रचलें ना
म्हाका ज्ञानेश्वर समजलो ना
वाल्मिकीची वळख लेगीत जाली ना

म्हाका दिसलें तें
म्हजें आत्मस्वरुप
नितळ-निवळ
चैत्रांतल्या चान्यांत
काळी - निळी
भांगराळी कुपां
मनाची अशी
सगळी रुपां
एका फाटल्यान एक...

आत्मचैतन्याच्या श्रृंगारान
मन म्हजे सजिल्लें
ज्ञानेश्वर, वाल्मिकी
भितल्ल्या भितर बशिल्ले

2.

## तुवें म्हाका सगळें दिलें

हांवें मागिल्लें तानेक
घोंटभर उदक
तुवें म्हाका पुराय
गंगोत्रीच दिली

हांवें मागिल्लें भुकेक
दोन घांस अन्न
तुवें म्हजे मुखार
पंचपक्वान्नांची थाळीच दवरली

हांवें मागिल्ली विसवाक
वेंतभर सावळी
तुवें म्हाका विशाळ
मळबूच दिलें

हांवें मागिल्ली एक
उजवाडाची चूड
तुवें म्हाका
चंद्र आनी सूर्य दिले
तान्या गिन्यांनी भरिल्लें
पुराय ब्रह्मांड दिलें

सगल्यां परस व्हड
मागिनासतना
तुवें एक
मोगाळ, म्होंवाळ
राधेचें मन दिलें
सैमाच्या गर्भांतलें
सोबीतकायेचें वरदान दिलें

प्रलयंकारी आव्हानां पेलपाक
हिमालयाचें बळ दिलें
म्हात्म्याचे जिणेंतलें
सोंसणिकायेचें तत्व दिलें

कितलें हांव गिरेस्त !
कितलें हांव भाग्यवंत !
तुवें म्हाका व्हड केलें
कोणेंय कितेंय म्हणलें तरी
तुवें म्हाका आपलें केलें

3.

## आनंदयात्री

ह्या देहाचें शिल्पकार हांव न्हय
ही कल्पना ताचीं
ह्या स्वासाचें धनी हांव न्हय
ही चेतना ताचीच

तो निर्विकार निराकार
सांगीत तशें हांव चलतां
सांगीत तें तें
नमळायेन करतां

ताका जाय तसो तो नाचयता
खेळयता हांसयता रडयता
आनी मोन्यांनी
सगळें संगळें पारखिता

तोच म्हजो सारथी
रथ म्हजो चलयता
केन्ना वोतांत केन्ना सावळेंत
काळचक्र घुंवडायता

तोच म्हजो तारयो जावन
व्हडें म्हजें व्हल्लयता
खवळिल्ल्या ल्हारांचेर
तारूं म्हजें नाचयता

तो सर्वसाक्षी, सर्वव्यापी
म्हजी चिंता ताकाच सगळी
तोच म्हजो धनी
आनी हांव ताची दासी
सादी-भोळी

अनंत काळांतलो
हो खीण म्हजो
आनी हांव आनंदयात्री
ह्या अंतरात्म्याची !

4.

## चंदेरी दुनिया

दर्याचीं ल्हारां जेन्ना गर्जून उसळटात
आनी धव्योफुल्ल जायो जुयो
खिणांत फुलयतात
तेन्ना म्हजें मन
त्या म्हासागरांत
कळना केन्ना बुडटा
आनी साता समिंदरा
पैल तिरार केन्नाच उडून वता

मळबांत एक तारो मुमुरखोच हांसता
चिंतनशील नदरेन
खुणायत म्हाका
शिटकावपाचो यत्न करता...

कोणा खातीर रडप, कोणा खातीर हांसप
कोण कोणा खातीर अडना
कोण कोणा खातीर थांबना

काळाच्या प्रवाहांत
एक एक पावल उखलतना
तुवें कितलेशेच खेपे तुजें मन फाफशिलां
गोजडे वरी थिगळ्यो जोडून
अडेचें कामरूण ओडलां

काळ येता, काळ वता
आयुश्याची वजाबाकी
कितेंच केल्यार थांबची ना
फाटली उजळणी करपांत
आतां कसलोच अर्थ ना

हांगा कोणें कोणाची
वाट पळोवपाची?
पेट्टी चूड हातांत घेवन
चडटे देंवतेर
खांची कोनशांतल्यान वाट काडीत
पावलां उखलीत वचपाचीं

चंदेरी दुनियेंतली चंदेरी रंगमाची
रंगतात हांगा सवंगां तरातरांचीं

अस्थीर काळ कर्मां जोडीत
आयुश्याक ओतो काडीत आसा

तरी अल्पविराम, स्वल्पविराम
तूं घेत आसा
पूर्णविराम येतलोच
हें सत्य जरी जाणा
तरीय तूं फाटीं वळून
थंयचे थंयच भोंवऱ्या भोंवऱ्यांत
लटक्या भावार्थान घुस्पत आसा

5.

**बंधन**

कोणा बगर कोणाचें अडना
पूण तुजे विणें म्हजें जायना...
मनाक खूब समजायतां खूब खूब तरांनी
आरतीं - परतीं गणितां मांडटां
पूण हिशोब जमना

बंधनां कोणाकूच नाका आसतात
कोणेंच बंधनांत उरचें न्हय अशेंय दिसता.
स्वातंत्र्य हो दर एकल्याचो
हक्क आसलो तरीय
कांय बंधनां जल्मभर
उरचींशींच दिसतात!

आयज मेरेन
कितल्यो वाटो हुपल्यो
कितल्यो दिको माड्डील्यो
पावला पावलाक खिणा खिणाक
तुजें उणेंपण
जाणवले बगर रावलेंना
तुज्या यादींनी
दोळ्याक दोळो लागलोना

जल्म मरणाचो खेळ
एकल्यानूच खेळपाचो आसता
हातूंत देणेंघेणें कसलेंच नासता
तरी मनाचे तिजोरेंत,
जाता तितली गिरेस्तकाय
भरु भरून घेवची दिसता
भाव भावनेच्या विश्वांत
सूख सपनांचो शिंवर झडतूच उरचोसो दिसता...

म्हजे जिणेंत तुजें येवप
हें विधीलिखीत आसूं येता
तुजें म्हजें नातें
खंयच्या तरी जल्माचें आसूं येता
तें कितेंय आसलें तरी
म्हजें अडटा, ज़ीव घुसमट्टा

येतना आमी सांगातान आयलीं नात
वतनाय घडये
सांगातान वच्चीं नात
तरीय स्वासांत स्वास आसा मेरेन
तुज्या स्वासांत म्हजो प्राण
आनी म्हज्या स्वासांत तुजो स्वास
मेळचो, घोळचो
आनी जिणेंत कस्तुरी-गंध सदांकाळ
परमळत, परजळत
उरचो अशेंच दिसता..

6.

## दोळे

दोळे खूब कितें उलयतात
खूब कितें पारखितात
दोळ्यांची भास! काळजाची भास!

मोगान भरिल्ले दोळे दोन मनां जुळयतात
प्रितीच्यो सरीर सरी एक जीव रुजयतात

रागान भरिल्ले दोळे
उजो गिळून, इंगळे ओंकतात
थर थर कांपरो भरीत
सरसरीत घाम काडटात

निण्णावल्ले दुखावल्ले दोळे
मोने मोने धळधळटात
दडकांचो पावस झडयत
काळजाचेर फूंक मारतात

दोळे काळे दोळे भोळे
सपनां सजयतात, सपनां रंगयतात
जगयतात, जागयतात
जादवाचे खेळ खेळयतात

तरातरांचीं कुवाडीं घालीत
एक दीस बंद जातात
तेन्नाच नवे दिकेन
नवो प्रवास सुरू जाता

7.

## घोंटेरांतलीं पिलां

घोंटेरांतलीं पिलां तुमी
घोंटेरांतूच उरचीं नात
एक दीस येतलो असो
म्हजी गरज पडची ना

पांखां तुमकां फुट्टलीं
मळबांत तुमी उडटलीं
दिगंताचें नवें कवन
कर्तुबांतल्यान गायतलीं

कलकल करीत तुमी
वाट म्हजी पळयतात
पोट मारून अपुरबायेन
आयज तुमकां भरयतां

घोंटेर म्हजो जातलो रितो
म्हाका मातूय खंत ना
तुमचे वाटेक दोळे लावन
बसपांत कांयच अर्थ ना

एकूच तुमी करचें काम
सोडून वच्चें पांख एक
तुमच्या फाटल्या यादींचें
पिंतारपाक चित्र सुरेख

8.

## खामसुत्री

तूं गुणगुणटा तें गीत
म्हाकाय गुणगुणन दिसता
तूं पळयता तें सपन
म्हाकाय पळयन दिसता

पूण म्हजे ओंठ शिंवल्यात
आनी दोळे दामून धरल्यात
तोंड आसून मोनें
दोळे आसून कुड्डें

ओडून व्हरीत ते वाटेन
पावलां मारतां हांव
ते वाटेर जें कितें मेळत
तें होंटयेंत भरून घेतां हांव !

सुपांत फाफडून
गाळण्यांत गाळून
कोणाक तरी धादोस करूंक
धडपडटां हांव!

हांव म्हजें न्हयचशें
खामसुत्री जावन
नाचतां हांव! नाचतां हांव !

9.

## उजवाड

म्हज्या दोळ्यांत हांवें
तुजे खातीर सपनां पळयिल्लीं
मोट्या हावेसान रंगयिल्लीं
मोटे उर्बेन सजयिल्लीं

पूण तुवें म्हाका न्हिदेंतलें जागें केलेंच ना
हांव सपनांनीच उरलें
आनी तुजे खातीर हांव एक सपनूच जालें

आतां सपनांत चलतां
सपनांत भोंवतां
सपनांत रंगतां
थंय तूं मात नासता

म्हजेच भोंवतणीं हांव घुंवतां
बिण्ण काळ्या काळखांत
एक वात जावन पेट्टां

आतां म्हाका दीस दिसना
रातूय दिसना
दिसता तें ब्रह्मांड
आनी ब्रह्मांडाक वेंगावपी
म्हजो भव्य दिव्य उजवाड!

10.

## बदल

खिणाखिणाक जग बदलता
खिणाखिणाक वाट शेणटा
खिणाखिणाक तूं बदलता
खिणाखिणाक हांव बदलतां

खिणाखिणाक नवें वारें
खिणाखिणाक नवें वोत
खिणाखिणाचो बदल असो
चालूच आसा, चालूच आसा

तुका जाय तशें हांव ना
म्हाका जाय तसो तूं ना
दोगांयच्या मनांत प्रस्न साबार
सदांकाळ सतायत आसात, सतायत आसात

जिविताचे वाटेर जल्म मर्णाचे भोंवडेर
आपालिपा खेळ चालूच आसा,
चालूच आसा

खंयच्या मोडणार, खंयच्या वेळार
कोण कोणाक मेळत
कोण कोणा पसून तुटत
कोणाच्यान सांगूं येता?
अशे वाटेर हांव आनी तूं
चलत आसात, चलत आसात

11.

**प्रेम**

प्रेम हेंच कर्म, प्रेम होच धर्म
प्रेमा खातीर जगचें, प्रेमा खातीर मरचें
प्रेमामृत तें पिवन पियेवन प्रेममय हें जग करचें

प्रेम आवयचें, प्रेम बापायचें
मेळत तितलें उणें उणें, सूख तें सर्गीचें !

प्रेम भावा भयणीचें, प्रेम घोवा बायलेचें
प्रेम भुरग्या बाळांचें, प्रेम सोयऱ्या धायऱ्यांचें
प्रेम इश्ट इश्टिर्णींचें, प्रेम मोगी मोगिणीचें
प्रेम सुकण्या सावजांचें, प्रेम मळब धर्तरेचें
प्रेम सबंद सृश्टीचें, प्रेम म्हजें, प्रेम तुजें

जाय जाय दिसता तें प्रेम, दिल्यार वाडटा तें प्रेम
काळजा दोण्यांत रुजोवचें, दोळ्यांनी फुलोवचें
आनी ल्हवूच ओंठां वयल्यान, म्होंवा वरी गळोवचें

चमत्कारीक अशा ह्या धाग्यान,
कोणेंय घुस्पावन घेवचें
आनी प्रेमान गिरेस्त जावन
प्रेममय जिवीत अखंडपणान जगचें!

12.

## तूं म्हजे जिणेंत आयलो

तूं म्हजे जिणेंत आयलो आनी
म्हजें सगळें जगूच बदलून गेलें
आतां खंयच वचन दिसना
कोणाक केन्ना मेळन दिसना
कोणा कडेन उलयन दिसना
रातूय म्हाका कळना, आनी दिसूय दिसना

तूं म्हजे जिणेंत आयलो
आनी हांव हांसूंक शिकलें, नाचूंक शिकलें
फुलूंक शिकलें, उडूंक शिकलें

आतां हांव कोणाचीच वाट पळयना
कोणा खातीर तिश्टना, कोणाक कसलोच दोश दिना
आनी कोणाचेरूच रागारफुगार जायना

सगलीं म्हाका विचारतात
बदल असो घडलो कसो?
घसघशीत व्हांवतो वझरो
मर्दीच असो अडलो कसो?
म्हजें म्हाकाच कळना, गुपीत ओंठार फुटना

एकूच मात सांगतां तुकां, सात जल्म नासले तरी
हो जल्म व्हड म्हाका
ह्याच जल्मांत मोगासावळी
पावसगीम मेळची म्हाका

13.

**सांगचें कशें!**

मळबांत गडगडलें
बिजूलबाय झगझगलें
उटंगारांचो आयलो पावस
काळीज म्हजें धड्डडलें... सांगचें कशें!

सत्री केन्नाच परतली
रुखार वचून हुमकळ्ळी
उकत्या मळार उबें हांव
पावसा धारो आंगार खेळयत
सामकें भिजून चिप्प चिप्प... सांगचें कशें!

आंगार कांटे उबे रावले
दोनीय हात हड्ड्यार दोडले
दडकार दडको आंगार झेलीत
मेघमल्हार गावन नाचलें... सांगचें कशें!

भायल्यान तन चिंब भिजिल्लें
भितरल्यान मदमस्त तारुण्य फुलिल्लें
भांगरां शिंगरां नासतना
पुराय अलंकारान सजिल्लें... सांगचें कशें!

14.

## मोरपांख

तुवें दिल्लें तें
मोरपांख हांवें
अजून म्हज्या
मनाच्या करंडांत
सांबाळून दवरलां

जेन्ना जेन्ना
हांव करंड चाळटां
तेन्ना तेन्ना
तें मोव मोव
मोरपांख
म्हज्या आंगा वयल्यान
आपसुकूच भोंवूंक लागता

आनी त्या
नकसूद खिणांची
मोरपंखी नक्षी
शिरंत्रांतल्यान
रसरशीत फुलूंक लागता

15.

## जिणेची गंगोत्री

दिसा फाटल्यान रात आनी
राती फाटल्यान दीस
वसंत उधळायता पुष्पांजली
दुकां गाळटा शिशिर

नियतीचे खेळ चित्र विचित्र
जिवनयात्रा चुकना
त्रिभुवनी दैवभोग
आयले बगर रावना

खवळिल्ल्या म्हासागरांत
रौद्ररुपी सुनामी
वझ्ऱ्याची एक धार
दुर्बळाक संजिवनी

मर्मभेदी संवेदना
काळ्जांत आटयता
कर्मयोगी भुजांबळार
तळपां लेगीत पाझरयता

जिणेची गंगोत्री हिच
शिरंत्रांनी खळखळटा
ह्याच देहांत मन मंदिरांत
प्राक्तन नवें उजळटा

16.

**शितळ चान्नें**

नितळ शितळ चान्नें
फुलांपानांचेर झडलें
मनांत म्हज्या भरलें
आनी सवण्या पिलान देखलें

सवण्या पील आयलें भायर
म्हाका ल्हवूच हांसलें
जशें कितें मन म्हजें
ताणेंच पारखिलें

तिरशी नदर मारून हांवें
तोंडार बोट धरलें
मान वांकडी करून बावडें
गुठली करून बसलें

मुमुरखोच हांसलो चंद्रीम
कुपां भायर आयलो
रातभर चान्न्या शिंवर
झडतूच उरलो

17.

## फातर

तुकां म्हजें मन
केन्नाच वळखूंक जमलेंना
फातरूच उरलो तूं
मनीस केन्ना जालोच ना

ताटभर वाडलें तरी
तुका रूच कळ्ळीना
उपाशींच उरलो तूं
धेंकर केन्ना काडलोच ना

रात तुजे वेंगेंत आसली
न्हीद तुवें घेतलिना
सपन कळी एक लेगीत
दोळ्यांत तुज्या फुल्लिच ना

18.

## कोणा खातीर

हांव कोण?
खंयच्यान आयलां?
खंय वतलें?
कोणाक खबर!

कोणें तरी जल्म दिला
कोणें तरी नांव दिलां
कोणें तरी छत्र दिलां
कोणें तरी वाडयलां

चलूंक भोंवूंक
न्हिदूंक उठूंक
कोणें तरी शिकयलां
कर्मकांडांच्या
जाळांत घुस्पून
बुजगावणें एक
उबें रावलां

जाय तर्शी
मुळां तोडून
एक बोन्साय
तयार केलां

न्याय केले,
कायदे केले
झुजां केलीं,
भुजां नाचयलीं
कित्या खातीर?
कोण म्हणटा पोटा खातीर
कोण म्हणटा घरा खातीर
कोण म्हणटा भुरग्यां खातीर
कोण म्हणटा संवसारा खातीर

भूक वाडत गेली
तान भागना जाली
चलतां चलतां
धांवतां धांवतां
कूड पुराय झिजून गेली
कोणा खातीर?

कळ्ळेंच ना
प्रस्नाची जाप
सोदून लेगीत
मेळ्ळीच ना

19.

**विचारूं नाका**

तूं रे पलतडीं
हांव रे आलतडीं
तुजे म्हजे मर्दी ही
न्हंय केदी व्हडली
तरी तुजी वाट पळयतां
कित्याक?
... विचारूं नाका

तुजे खातीर तळमळटां
रातीन रात जागयतां
आशिकुशीक सांसपितां
म्हर्जी हीं पिशेपणां
कित्याक?
... विचारूं नाका

चलतां भोंवतना
उठ्ठां बसतना
भास तुजोच जाता
तुजो उलो कानार येता
कित्याक?
... विचारूं नाका

तुजे खातीर नट्टां,
तुजे खातीर सजतां
नखेत्रां भितर नखेत्र जावन
तुजेच खातीर लकलकतां·
कित्याक?
... विचारूं नाका

भोंवऱ्यान गीत गावचें आनी
फुलांक गुपीत कळचें
धर्तरीक वेंगेंत घेवंक
मळबांत अशें तळमळचें
कित्याक?
... विचारूं नाका

20.

**कित्याक?**

नाक दामलें काय
तोंड उकतें जाता
काळजाक दुखलें काय
ताका आपशींच
वाचा फुट्टा

अन्याय सोंसना जावन
उतरांत उतर
घालचेंच पडटा
शांतीदूत आसलो तरी
न्याया खातीर
झुजचेंच पडटा

आचारवंत विचारवंत
कितले आयले
कितले गेले
जैत बाबा कोणाचें जालें?
तत्वां गेलीं उरले शेले

मोव मेळटा थंय
खणत रावले
फावता ताचो लाव
असुदाय घेत रावले
भायर मोट्यो बडायो
भितरले भितर लडायो
दोगां भितरलें चेपण
आनी तिसऱ्याचें मरण
कोणाक होलमतात
कोणाच्यो जातात
कसल्यो भोयो?

सोंसून सोंसून
सोंसचें कित्याक?
उणें उतर घेवचें कित्याक?
चोराक चान्याचो भंय
चोर केन्ना तरी सांपडटलोच
पूण कर ना
ताका डर कित्याक?

कुडीचो गोबर जातलोच एक दीस
मातयेभरवण जातलोच एक दीस
आयज हांवें जळचें कित्याक
सरणा वयलें जिवीत
मरणा पयलींच जगचें कित्याक?

21.

## कोणें सांगूं येता?

मनीस हो असो जायत आसा
मुखार म्होवाळीं चडयत आसा...
तोंडार तोखणाय फाटल्यान तासणाय..
सोंगाडीं सोंडां लावन सवंगां सगळीं करीत आसा

नामनेक पावपाची वान्सा ताका
लाचार करीत आसा
आडे-वंयो बांदपाक सदांच तयार आसा

खिणाखिणाक...
सादूर रावपाची गरज आसा
राकेसांची पाड निती पारखुपाची गरज आसा

लकलकता तें भांगरूच
कोणाच्यान सांगू येता?
कोळशा खर्णींत
वज्रां केन्ना मेळत कोणें जाणूं येता?

न्यायदेवतेन जरी बांदल्यात दोळे
तागडेन सगळे सारकेच तोलतात
कोणें सांगूं येता?
विस्वासाक चीर पडल्या
खरें फट वायट बरें कोणें सांगूं येता?

22.

**मात्तूय गरज ना**

येतां म्हूण सांगून गेल्लो
कित्याक आयलोना?
उतर तुवें दिल्लें म्हाकां
कित्याक पाळ्ळेंना?

वाट पळयत दीस मेजले
आयलोना तो आयलोना
दोळ्यांत तुकां आटून गेलीं
आतां कशेंच रडना

भियेवं नाका तूं
फटींग म्हूण
ना कोणाक सांगिना
खूब किर्ते बदल्लां
हांवूय आदलें उरलेंना

तुजे कोसमेल्ले
म्हेडीची
म्हजे खोंपटेक आतां
मातूय गरज उरलीना

23.

**म्हाकां कसलो भंय?**

म्हाकां कसलो भंय
कोणाचें खावंक ना, कोणाक लुटूंक ना
कोणाच्या पोटार आड केन्ना येवंक ना
कोणाचें पाड केन्नाच चिंतूंक ना
म्हाकां कसलो भंय?

कश्ट करतां पोट भरतां
होंटयेंत आसा तातूंतलें मूठभर तुका दितां,
रातीचे दीस करतां
काळखांतल्यान पणटी घेवन
सांसपीत सांसपीत मुखार सरतां

तुर्जी शाणेपणां तुजे कडेन, म्हर्जी तत्वां म्हजे कडेन
म्हजे कडेन नासत दुड्डू
बंगले मोटारी गाडी घोडो, व्हडली इश्टेट नाच ना

मनीसपण, आपलेपण
पयशान जुळना
मनशाक मनीस बेश्टोच मेळना
चंद्रिकेची गिरेस्तकाय
मळबाची विशाळटाय
उजवाडाचो साक्षात्कार
तीच म्हजी अस्मिताय

24.

## तो

म्हजे मुखार तो काय ताचे मुखार हांव?
कितेंय आसूं, आमचो जीव एकामेकांत

म्हजे बगर ताचें जायना, ताचे बगर म्हजें जायना
ताचेच मुखार हांव मन सोडून हांसतां
मन मेकळें करून रडटां

तो ओग्गी म्हजें सगलें आयकता
सगळें सगळें सोंसता
ताकाच पळोवन हांव, दोळ्यांत काजळ घालतां
ताकाच पळोवन हांव, दुकां म्हजीं पुसतां

जें कोणाक दिसना, जें कोणाक कळना
तें तोच पारखिता
तोच म्हाका पुराय वळखता
ताचे विणें हांव म्हजी
कल्पनाच करूंक शकना
दुसऱ्या कोणाच्याच दोळ्यांनी
हांव म्हाका पळोवंक शकना!

देखुनूच ताची जतनाय, म्हजी लागणूक
कित्याचेरूय राग काडीन हांव
फकत हारसो सोडून

25.

## देख

तुजे कडेन आसा, एक नितळ निवळ मन
एक मोगाळ काळीज आनी सगल्यांत व्हड मनीसपण

तुजें सादे वागप, अपुरबायेचें उलोवप मन ओडून घेता
पावलार पावल दवरतना, मार्ग मेकळे जातात

पुरुषोत्तमी तेज तुज्या मुखामळार परजळटा
म्हान तुजें कार्य गड्या अजापान तोखेतां

चार वणटीं भितरली व्यथा आतां पोरणी जाली
ऊठ चल पळय भायर सदची तंद्री सोडून दी

एका एका उतरांतल्यान प्राण नवो बावत्या फुलाक
आयज ना फाल्यां तरी उदेतली नवी सकाळ

असोच तूं चलचो मुखार घेवन व्हड आचार विचार
सूर्याची देख तुवें दिवची ह्या कुड्ड्या जगाक

26.

## वाजता ते वाटेन

... वाजता ते वाटेन नाचूंक जाय
ताल नासल्यारूय जाता
सूर रागाचें कोणाक पडलां?
सोऱ्याची गुंगी ती
घूंव घूंव घुंवूंक जाय
बिशूबिशू सुण्या वरी
भोंक भोंक भोंकूंक जाय
... वाजता ते वाटेन नाचूंक जाय

सुवेर सुतक कसलें?
नात्याचें मोल कितलें?
पाप पुण्य गंगेंत व्हांवलें
मिजास मोटी मिरोवंक जाय
शबय शबयची बावली
तारी कडेन पावोवंक जाय
... वाजता ते वाटेन नाचूंक जाय

सूम जळ्ळें तरी पीळ वच्चे नात
सुण्याची शेंपडी
सरळ जावचीच ना
गाळींची करून नांदी
उध्वस्त जीण उचांबळ करूंक जाय
... वाजता ते वाटेन नाचूंक जाय

27.

## तान भूक

हड्ड्यार तुज्या थेयतां तकली
दोळ्यांची खीणभर लकता पापणी
गुपाट काळखांत लख्ख उजवाडाची
एक नवी पेट्टा पणटी आनी पुराय तनामनाक
चिरंतन शांतीची उपाट आनंदाची जाता प्राप्ती

खीणभर धर्तरी थिरावता
सूर्य चंद्र, तारे गिरे
पुराय ब्रह्मांड म्हजे वेंगेंत येता

हांगा थंय धडपड धडपड
वोत माथ्यार इंगळ्यां रखरख

कश्ट कितलेय काडीन हांव
कांटे कितलेय माड्डीन हांव
ज्वालामुखी तोंडांत अमृताची धार
वेळाकाळार सोडीन हांव

नाका गिरेस्तकाय, नाका धन–दौलत
प्रेम तुजें खिणाचें
तेंच मोट्या सौभाग्याचें
प्राणांत शिंपडाय प्रेमामृत
तीच म्हजी तान आनी तीच म्हजी भूक!

28.

## हांव हारसो उलयतां

दाखोवपाचे दांत वेगळे
खावपाचे दांत वेगळे

सगळें जरी लकलकीत
सगळें जरी चकचकीत
आडेच्या हांशा भितर
बेगडी रुपड्या भितर
काळें गुपीत लिपलें

हांव मात घुसमट्टां
सगलें अडेचें पळोवन
हांव नाशिल्लोंच जाल्यार
कितलें बरें जावपाचें?
हीं रुपडीं चडोवंक तरी
मनशाक मनशाचेच
हात लागपाचे
एकामेकाचें खरें रूप
संवसाराक तरी दिसपाचें!

29.

## हें आमचें घर

हें आमचें घर
हातूंत मनशां परस यंत्रां चड
कुकींग रेञ्ज, कुकर
मायक्रोवेव ओवन
मिणटां भितर तयार जेवण

बटन दाम कर काम
तितलोच मातसो
वांचलो घाम

कपडे धुवपाक यंत्र
कपडे सुकोवपाक यंत्र
आयदनां धुवपाक यंत्र
कोयर काडपाक यंत्र

कसलें कसलें यंत्र
वळेरी सांगून सोंपची ना

खंयच्याय वेळार कितेंय कर
कोण कोणाक विचारिना

बसून बसून पोटां मात
ल्हवू ल्हवू
फुडें सरूंक लागल्यांत
भेंडांय मातशीं जड जायत
गच्च गच्च जावंक लागल्यांत

चलतां भोंवतां इल्ली इल्ली
खरस मारूंक लागल्या
जळीं मळीं हॉस्पिटलांय
बरींच वाडूंक लागल्यांत

ना ना म्हणून पिरंगलो तरी
हातांत चार पयशे
घोळूंक लागल्यात
बायपासाकूय मॅडिक्लेम
सहज मेळूंक लागल्या

आधुनिकीकरणाच्या नांवान
यंत्र युगाचो
नाका जायसर फायदो घे
तेल तूप नुस्तें मास
जाय जाय तें खावन घे

बटण दाम यंत्र चलय
बटणाचेरूच मंत्र बरय
अर्द्यारूच फूंक मारून
जिविताची पणटी पालय!

30.

## बावलो

आयज बाबुल्याचो वाडदीस
गोड गोड दीस
आयज बाबुल्याची मजाच मजा
बाबुलो आमचो जातलो राजा

आयज येतलीं
मावसो मावशी
अंकल आण्टी
जाणटीं नेणटीं
खेळणीं हाडटलीं बरीं बरीं
कोर्दींचीं, फर्राचीं
बॅटरेचीं, लायटीचीं

बाबुलो केक कापतलो
सगळीं ताळयो मारतलीं
एका सुरान एका तालान
'हॅपी बर्थडे' गायतलीं

हांसतलीं, नाचतलीं
उमेदीन धोलतलीं
खातलीं पियेतलीं
धेंकर दीत
'टाटा' 'बायबाय' करीत
आपआपल्या घरा वतलीं

मागीर बाबुलो
एकलो एकलो
सगळें घर रितें रितें
बाबूल्याक कळना कोणाचें
कोणा कडेन कसलें नातें !

घरभर खेळणीं नाचतलीं
कुरुकुरू धांवतलीं
तातूंत बाबुलो
अंकल आण्टी सोदतलो
खेळ खेळ खेळटलो

करतां करतां
खेळटां खेळटां
बाबुलो आमचो व्हड जातलो
अंकल आण्टी मुखार एक दीस
एक व्हडलो बावलो
उबो रावतलो
खेळ आपले तरातरांचे
खेळण्यांनीच मांडटलो

मनशाचें मनीसपण
अशेंच शेणटलें
खेळण्यांचें मोल ताका
तेन्ना कळटलें?

31.

## दुस्मान

याद कर रे मनशा
तुवें कसलीं कसलीं केलीं कर्मां
कितले घेतले बळी आनी
कितलीं दिलीं जिवीं मर्णां

कसली तुजी नदर मनशा
अस्तुऱ्यांच्यो केल्यो भोयो
किळांच्यो, हुयेली, मोनी घुस्मट
वासनेच्यो व्हांवल्यो न्हंयो

कसले तुजे पांय मनशा
न्हिदिल्ल्यांक चिड्डिले
उठ्ठल्यांक माड्डिले
पोटार पांय दिवन तुवें
मोट्या सुरान धेंकर दिले

कसले तुजे हात मनशा
कितले घेतले घात
तोडले कितले फोडले कितले
कितले केले आघात

तुवेंच न्हय रे पालयली
पेट्टया दिव्यांतली वात
कसली तुजी जीब मनशा
उतरा उतराक कुसट्टाणी
काळजाचेर घाय घालीत
याद कर फाटली काणी

कसली तुजी तकली मनशा
अहंकारी बांदल्या पगडी
अक्कल पडल्या उगडी नागडी
अडेची चडल्या मस्ती

कसली तुजी रीत मनशा
घेशी कुशीक सुण्या माजराक
फाटल्यांतल्यान सुरो तोपीत
मनीस मनशाचोच रे दुस्मान!

32.

**पयशे**

पयशान उठूंक जाय
पयशान बसूंक जाय
म्हणुनूच
म्हाका सायबा बेगोबेग
गिरेस्त जावंक जाय...

पयशा खातिरूच
दुदांत उदक
भांगरांत पितूळ
खेळांत फिक्सींग
राजकारणांत मिक्सींग
ओगीच कित्याक
घाम गाळोवन
हुमेवंक जाय
म्हाका सायबा बेगोबेग
गिरेस्त जावंक जाय...

शेतांत रोवंक जाय
मागीर पिकोवंक जाय
कितलें म्हूण पासियेंस
वर्सान वर्सां काडूंक जाय
आर्दी खोऱ्यांनी ओडटाले
आतां बुलडोझरांनी
दोंगर कोसळावंक जाय
म्हाका सायबा बेगोबेग
गिरेस्त जावंक जाय...

मिजासपण तिगचें ना
हात मळबाक तेंकचे नात
सगलें हांगाच सोडून
मातयेभरवण जावंक जाय
तरी सायबा बेगोबेग
म्हाका गिरेस्त जावंक जाय...

हांव म्हजे हात
रिते करतलोंच
ॲलेक्झांडर द ग्रेट कसो
मेले उपरांतूच
हात भायर दवरतलों
आतां मात म्हाका
सगळें पुंजावंक जाय
म्हाका सायबा बेगोबेग
गिरेस्त जावंक जाय...

33.

## पावलां

म्हजीं पावलां
म्हजे आवयच्या कुसव्यांतल्यान
जल्माक आयलीं
तेन्ना म्हजे आवयच्या काळजाक
अमृताची धार फुटली
हड्ड्यांत खोशयेचीं ल्हारां उसळ्ळीं
भाग्यवंत, पुण्यवंत पावलां म्हूण
ल्हानपणांतूच पुजलीं

ल्हवू ल्हवू पावलां म्हजीं
उबीं रावूंक शिकलीं
म्हणटां म्हणटां चक्रांवरी
हांगा थंय धांवूंक लागलीं

केन्ना रखरखत्या वोतांत
केन्ना पाचव्या शितळ व़िलुदाचेर
केन्ना रानावनांत
केन्ना दोंगरा माथ्यार
अविश्रांत चलत रावलीं

खंयच थांबलिंनात
केन्नाच निरशेलिंनात
मेळत ते वाटेर

चलत रावलीं,
चलत रावलीं
कोणा खातीर?
कित्या खातीर?
केन्नाच विचार केलोना

हांव जाणां
एक दीस
येतलो असो
पावलां म्हजीं
थकतलीं
अशक्त जावन
पुराय धरतरेचेर
कोसळटलीं
निमाण्या
स्वासा सांगाताक
तींय पुरायेन
मातयेक मेळटलीं

पावलखुणो मात उरतल्यो
येतां वतां
यादींचे भोंवडेर
वाटसुऱ्याचे नदरेक
केन्ना तरी पडटल्यो

34.

**अभागी सवणें**

घोंटेरांत आसतना निळें मळब
त्या सवण्या पिलाक अपुरबायेन तोखेतालें
भांगराळ्या किर्णांनी लक्तुबायेन होरायतालें
सवणेंय मळबाक पळोवन खुशालभरीत जातालें
केन्ना एकदां उडून वतां आनी निळ्या मळबाचे
निळायेन बुडून वतां अशेंच ताका दिसतालें

उडून वचपाचो हावेस
आनी मेकळेपणान दिका दिकांचो
थाव घेवपाचो आवेग !
पांखट्यांनी बळगें येवपाची
उमळशिकेन वाट पळयतालें

सवण्या भिऱ्या सांगातान
दिग दिगंतीचीं नक्षत्रां
खुटून हाडपाची संद सोदतालें

दीस जशे सरले तशे पांखांत आयलें बळ
वांकडो आसलो वेळ
देखून नशिबान खेळ्ळो खेळ
वांट्याक आयलो पांदरो
आनी जल्मभर पांदऱ्यांतली बंदखण
पांखां फडफडायत सुटके खातीर

केले कितले यत्न
पूण काळा मुखार
शाणपण कसलेंच चल्लेंना
गुठली मारून पांखां कवळून
बसचेंच पडलें

दुख्ख ताचें कोणाकूच दिसलें ना
व्हांवतो काळ व्हांवत गेलो
स्वास कोंडीत जीण ताची झरयत गेलो
येतल्या वतल्या रुतूंक
पांदऱ्या भायरूच दवरून गेलो

आतां पांदरो कळमेला
सामको निखळून गळून पडला
पांदरो आतां पांदरो उरूंक ना
चारूय वटांतल्यान मेकळीक आसा
पूण उडपाची तांक आतां
पांखांनी मातूय उरूंक ना

आतां दिसता तें मळब
भगभगत्या उज्यान पेटिल्लें
तिरस्काराच्या रखरखत्या ज्वाळांनी
कमकमून उठिल्लें
त्या ज्वाळांनी एक एक सपन
त्या अभाग्या सवण्याचें
चरचरीत करपल्लें

35.

**जिविताची उजळणी**

मनांत आयलें
जिविताची करची उजळणी...
कितलें जोडलें? कितलें मोडलें?
कितलें सरलें? कितलें उरलें
सुखा दुख्खाची वळेरी मांडली

सुखां भोव थोडीं आसलीं
दुख्खां सरभोंवतणीं नाचतालीं
कांयच समजना जालें
नशिबाचे भोग कळनातं जाले

संघर्शांतल्यान आयिल्लें
चिंरजिवी सूख
काळाच्या प्रवाहांत व्हांवून गेलें

सत्य कोडू आसता तें पचोवपाक
जिणेचें तत्वगिन्यान
जाणून घेवचें आसता

अस्तुरेचें अस्तित्व खंय आसता?
सगळे विद्रोही सुरींग
अस्थींचो विस्फोट
करीत आसतात

कोणाची बायल, कोणाची भयण
कोणाची आवय, कोणाची भावज

गर्भाशयांत शुक्राणूंचें बीज
रुजयत रावलें
नाण्या वरी टॉस खेळत रावलें

हांव कोण? खंयच्च्यान आयलां?
खंय वचूंक जाय?
साबार प्रस्न आनी साबार जापो

जिणेचें अव्रंवर तत्व
आनी जल्माचें आव्हान
पेलपाची तांक
भुजांबळांत आसा म्हणपाचें
सत्व कळ्ळें
तेन्नाच जिणेंत आपसुकूच
रंग नवे भरूंक लागले

36.

## कवी

जें रवीक दिसना तें पळोवपी कवी
पातयेवचो कसो ताका नदर ताची अधाशी

पळोवंक जरी सादोभोळो
भितरल्यान बेरकी मोटो
अशक्य उतरांचो
ताका केन्नाच ना तोटो

घडचें न्हय तें घडोवप
जोडचें न्हय तें जोडप
ताका सुवेर सुतक लागना
नातें गोतें कळना

तो भोंवता स्वच्छंद
आपल्याच राज्यांत
सैमाची सोबीतकाय
आनी मोग अपुरबाय
हीच ताची पुण्याय
आनी हीच ताची सासाय

केन्ना कल्पनांचे भोंवडेर
केन्ना सत्याच्या सोदांत
अंतरात्म्याच्या उजवाडांत
वावुरता तो संवसारांत

लिखणेंचें तोंक म्हणल्यार
तरसादीची धार
हुंवार जसो येता तसो
कापीत वता कापीत वता
दर्या दर्याचें ल्हार

तकलेंतलें लिखणेंत
आनी लिखणेंतलें कागदार
देंवयता म्हणसर जिवाक
नासता मातूय थार

ताची तळमळ तोच जाणा
तें कोणाक सांगून समजना
जळटा ताका कळटा
करता तो भोगता

गुंगेचो रंग जसो इल्लो इल्लो चडटा
आपलेंय अस्तित्व तो
घटके घटकेक विसरता

जेन्ना येता हारशा मुखार
माथें खरपिता
मुमुरखोच हांसतना मनांत येवजिता
कोण रे बाबा हो ?
वळखीचोसो दिसता !

37.

## सर्गीच्या गोपांत

कितलें सोबीत हें दृश्य
कितली हांगा शांती
आनी कितली शितळसाण
रुखा वालीर फुलांफळां
सोबीत सुंदर दोंगुल्ल्यो
आनी खळखळ व्हांवपी
वझरे न्हंयो

अमृता वरी शुभ्र उदक
अदीं मदीं साळीग्राम आनी संगमरवर
धव्याफुल्ल फेंसाची उदका धार
आनी जमनीर लांबचे लांब पातळिल्ली
हरयाळी पाचवीचार

मदींच तळें
तळ्यांत साळका कळे
मजेंत भोंवपी हांयसां
आनी बुडी मारपी
लांबूच लांब बगळे

खंयच एक घर ना
खंयच एक रस्तो ना
खंयच कोण कोणूच ना
फकत हांव आनी हांवूच
त्या सोबीत सुंदर
सर्गींच्या गोपांत

एक एक विज्मीत
हातांत घेवन प्रारखिलें
अनंत विशुद्ध सूख
दोळ्यांत म्हज्या खेळयलें

स्वच्छंद मनान
पेंवचेलें सागरांत
म्हूण देंवलें उदकांत
आनी घुस्मटून
जागें जालें
खिणा भितर सर्गांतलें
नरकांत पावलें

आतां हांव वाट पळयतां
न्हिंदेची
आतां म्हजी न्हिदूच शेणल्या
तें सपन येतलें जाल्यार
न्हीद लागप सामकी गरजेची

38.

**म्हजें जिवीत**

म्हजें जिवीत एक कवीत
उतरां केळयतां
उतरांत उतर गुंथून नवे
झेले सजयतां

म्हजें जिवीत एक गणीत
हांवूच घुस्पायतां
अणभवांच्या भांडवलाचेर
हांवूच सोडयतां

म्हजें जिवीत एक माणीक
हांवूच घडयतां
निरांजनाची
वात जावन
वज्रां पारखितां

म्हजें जिवीत एक साळीक
सैम सजयतां
चिखलांत जरी
फुल्लां तरी
मनां जुळयतां

39.

**काळोख**

लकलकीत उजवाड
दिव्यांचो झगमगाट
नाका नाकासो दिसता

आतां गुपाट काळोख
संवकळीचो जाला
ताचोच सांगात
जाय जायसो दिसता

ह्या काळखांत बूड मारून
दोळे धांपून शांत चित्तान
खोल खोल वचन दिसता

अंतरमनाच्या गाभाऱ्यांत
दिव्यत्वाच्या साक्षात्कारान
पुरायपणान लुप्त जावन
चिरंतन संवेदनांक
सासणाचो पूर्णविराम
खिणा खिणाक दीन दिसता

40.

## चलचित्र

म्हज्या देशाचें हांव चलचित्र पळयतां...

भर दनपारच्या कडार
फुटपायरेर बसून माथें खरपीत
पोरांक लुचोवपी ती गुरवार आवय
आशिकुशीक भिकेक भोंवपी
तिर्चीं उगडीं नागडीं पोरां
आनी भीक मागपाची
तांची तरा पळोवन काळीज हुल्पता...
म्हज्या देशाचें हांव चलचित्र पळयतां...

गल्ल्यागल्ल्यांनी खांची कोनशांनी
कोयरा घाणींनी
नशेंत गुल्ल जाल्ली
ती तरणी पिळगी
वासने मुखार लाचार जावन
गळून पडटा
आनी खळयां खोलप्यांनी
आडवी तिडवी तळमळटा
घुस्मट्टा ती पळोवन
जीव कळवळटा
मन चलबिचल जाता...
म्हज्या देशाचें हांव चलचित्र पळयतां...

मळबाक तेंकपी इमारती
आनी कडेक
भुंयेसपाट झोंपडपट्टी
चिखोल, घाणी, कुसट्टाणी
मारामारी, धमक्यो गाळीफस्ती
पिसुडटी कळी, निश्पाप बळी
खिणा खिणाक पसरत गेल्ली
काळी सावळी पळोवन तकलेंत
वादळ उठ्ठा...
म्हज्या देशाचें हांव चलचित्र पळयतां...

उशट्याव्हाऱ्यार वाडिल्ले गरगरीत एरंड
आनी गरगर भोंवपी तीं गिदां
फाफसूंक लागल्यांत जिते जागते जीव
कर्कश भयाण कलकल आक्रोशांत
घोंटूंक लागल्यांत घटघटीत जिवें रगत
आनी पिडूंक लागल्यांत
जळींमळीं वचत थंय वचत थंय...
म्हज्या देशाचें हांव चलचित्र पळयतां...

वचत थंय नाडपण
वचत थंय फटींगपण
वचत थंय भ्रश्टाचार
वचत थंय मानेर तरसाद
पळोवन जीव तुट्टा
काळजाक हुडको फुट्टा

आनी उतरांचे बाण सुट्टात..
चुडटी लायात
हे जीणेक
जी मनीसपण गिळून बसल्या
कागदाच्या कुडक्यांत
जळून भस्म जाल्या...
म्हज्या देशाचें हांव चलचित्र पळयतां...

धर्म ना, ईमान ना
न्याय ना, नीत ना
भाव ना, भयण ना
कोण कोणाचो कोणूच ना
कोणाक कोणाचो सुवेर ना
कोणाक कोणाचें सुतक ना
नाचतलो नाचत आसा
चिड्डतलो चिड्डत आसा
उकत्या मळार बुजगावणीं
शबय आपली घालीत आसात
खतखदपी ज्वालामुखी
पेट्टटो उजो ओंकीत आसा
सरणा विणें धर्तरी
मोन्यांनी हुल्पत आसा...
म्हज्या देशाचें हांव चलचित्र पळयतां...
आनी काळजांतल्यान
दुकां गळयतां...

41.

## अधाशी जीण

मेळत तें कागद म्हजें
मेळत ती लिखणी म्हजी
वास्तवाचें जोडलां नातें
साबार जल्मा जल्मांचें

मेळत तें अक्षर म्हजें
घडयत तें उतर म्हजें
मुदयाळ्या भाव भावनांनी
शृंगारता विश्व म्हजें

मेळत ती दिका म्हजी
मेळत तीं किर्णां म्हजीं
शिरंत्रांनी भरून घेतां
शिरशिरी जोगलाची

मेळत ती माती म्हजी
अंतराळीं नातीं म्हजीं
गगनचुंबी उडिल्ली
अधाशी जीण म्हजी

42.

## गोंयकारांनो...

*(कवीवर्य मनोहरराय सरदेसाय हांगेले कवितेची याद करून)*

गोंयकारांनो गोंयकारांनो,
उठिल्ले परते न्हिदले कित्याक?
कुंभकर्णाचें सवंग घेवन
कामरूण ओडून घोरेतात कित्याक?
आकांत येता, सादूर जायात
जागे जायात, जागे जायात.

बोडके जाले दोंगर सगळे
सवणीं सावदां सोंपून गेलीं
सोंपलीं सगळी गिरेस्तकाय
भाटांबेंसां विकून खालीं
गोंयकारांनो, गोंयकारांनो
उठात उठात, जागे जायात

आमचें गोंय भांगराचें
आमचें गोंय भाग्याचें
दैत्य थय थय नाचूंक लागले
गावत ताचें फावत गेलें
घरचेच आतां भेदी जाले
फटकिऱ्यांनी पळयात कशें
उदक आमच्या दोळ्यांक लायलें!

गोंयकारांनो, सादूर जायात
उठात उठात, जागे जायात
दर्यादिगो व्हांवून गेल्यो
माड माडयो हुमटून पडल्यो
जळींमळीं वचत थंय
हिप्प्यांच्यो उकत्यो टोळयो
आमच्याच गोंयांत आमी आतां
परके जाल्यात, सोयरे जाल्यात
गोंयकारांनो, गोंयकारांनो
जागे जायात, जागे जायात.

न्हय त्यो पिडा आयल्यो गोंयांत
पाडीं वेसनां लायलीं गड्यांक
गुंडगिरी, दादागिरी
खचखचून भरली आंगांत!
सांबाळात आतां फुडली पिळगी
वांकडे वाटेर भुरगीं आमचीं
फुलचे पयलींच बावूंक लागलीं!
गोंयकारानो गोंयकारानो
जागे जायात, जागे जायांत

तो कवी गावन गेल्लो
जीव तोडून सांगून गेल्लो
ताचीं उतरां खरीं करूंक
ताचीं उतरां जिवीं करूंक
गोंयकारानो, गोंयकारानो
जागे जायात, जागे जायात

43.

## अतूट नातीं

तरातरांचीं मनशां जिणेंत येतात
खूब कितें दिवन वतात
खूब कितें घेवन वतात
कांय मनांत घर करतात
कांय मनूच घेवन वतात

विचारांचें वादळ
वादळांत घुसपल्ले प्रस्न
रंगीत गोफ विणीत विणीत
मोडणा मोडणाचेर
आपल्यो खुणो सोडीत वतात

केन्ना काळीं कुपां, केन्ना धवीं कुपां
केन्ना रुप्या भांगरा देग
केन्ना पेट्टा उज्या वेग
कुपा कुपांतल्यान
वाट काडीत भायर येतात
केन्ना वोत जावन रखरखतात
केन्ना पावस जावन झडत रावतात
केन्ना उंच उंच
झोपाळ्याचेर उमेदीन झेलयतात...

दमटीचें कामरूण ओडून
जेन्ना ध्यानस्थ बसतां हांव
म्हासागरांत मनाच्या खोल खोल बुडून वतां
मनाच्या गाभाऱ्यांत
हांव म्हजोच थाव घेतां तेन्ना
सगळीं नखेत्रांवरी लकलकतात
म्हजे भोंवतणीं गोल गोल घुंवतात

कांय नखेत्रां लागीं येतात कांय पयस धांवतात
कांय म्हजोच आत्मो जावन म्हज्याच सांगातान उरतात

ना वासना, ना कामना
पवित्र मन आनी पवित्र भावना
शरीर अन्नमय कोश आयज तरणो फाल्यां पिकतलो
केन्ना तरी झडटलोच आनी मागीर नक्कीच सडटलो

आत्म्याचें मिलन ते कशें तुटत?
तें कोणाच्यान तोडूं येता?
असलीं कितलींशींच नातीं
मनामनांत जुळटात, मनांतूच फुलतात
आनी मनांतूच उरतात
रंगरंगयाळीं सोबीत परमळीत
फुलांचो शिंवर जिवितांत फुलत वता
दिव्य रंग उधळीत वता
आनी नवें कवन नव्या सुरांत
सैमाच्या कणाकणाक भेदीत वता

44.

**हय गे, तुजी याद येता**

हय गे तुजी याद येता
सादार साद घालीत तुकां
रांदचेकुडींत वच्चें दिसता

घरभर तुजोच भास...
रगड्याचेर वांट्टना
बांयचें उदक काडटना
शेण-शिताडो पडटना
देवाक दिवो लायतना
अपुरबायेन वाडटना
घाव्यार फूंक मारतना
वचत थंय तूंच दिसता

तुज्या पांयांच्यो पावलखुणो
वचत थंय उदेल्ल्यो दिसतात
तुज्या हातांच्या झरिल्ल्या बोटांचे ठशे
काळीज म्हजें कुट्टून घेतात

आतां चूल पेटना
दोळ्यांत धुंवर वचना
बांयच्या उदकाची आतां गरज ना
शेण-शिताडो नाका आतां
गोरवांय खंय दिसनात

जाय जाल्यार घेवचें, जाय जाल्यार जेवचें
थेंबभर उदकाक लेगीत
कोण कोणाक विचारिना

घाय आतां चरचरतात, दूख पेखून पेखना
तुज्या हातचें कपयाळें
सोदून लेगीत मेळना

कितले तरी प्रस्न मुखार
जाप तुकांच विचारीन दिसता
तुजे मांडयेर थेवन तकली
हुंडके हुंडकेवन रडचें दिसता
शिंवर मोगाळ उतरांचो
अंतरमनांत झडचो दिसता
तुज्याच हातान तुज्याच पालवान
दुकां म्हजीं पुसचीं दिसतात

जाणटेपणाची सुलूस आतां
ल्हवू ल्हवू होलमूंक लागल्या
तरी लेगीत केन्नाकेन्नाय
दिमखुऱ्यांनी धांवन दिसता

तुजे कुशींत तुजे वेंगेंत
मन मेकळें करीन दिसता
हय गे तुजी याद येता
आई तुजी याद येता...

45.

## कुळार म्हजें रितें रितें

आवय ती आवयूच
तिका नासता रंग रूप
तिचें काळीज देवतुल्य
नाका वात नाका धूप!

घरादाराचो वावर करतना
ती केन्ना थकलिना
माणकुल्या फुडें तिका
कश्ट कसले दिसलेनात
दिव्यान राती काडटना,
दोळ्याक दोळो लागलोना
जागरणाचें दुख्ख लेगीत
ओंठार केन्ना आयलेंना.

परिस्थिती आसूं कशीय
बऱ्यांतलें बरें पोरांचें
उरलें जाल्यार खावचें
नाजाल्यार उपाशीं पोटार
धादोसकायेन न्हिदचें.

दोळे वाटेक लावन,
हुसको करपी आवय
सुखाचीं सपनां पळयत
दिश्ट काडपी आवय
सादी भोळी अपुरबाय
तुस्त आनी तोखणाय
घाय पडल्यार तिका हाय!

माय मावली
मायेचो वझरो
आनी सुखाची सावळी
जेन्ना पयस पयस
अनंतांत विलीन जाता
तेन्नाच आवय उतराचो
खरो अर्थ कळटा

कांयच थांबचें ना
संवसार हो चलतलो
घरांत जातले सुवाळे
लोक येतलो लोक वतलो
सगळें सदचे भशेन चलतलें
तिचे विणें मात कुळार म्हजें
रितें रितेंच उरतलें!

46.

**हांव बरयतां**

हांव बरयतां मनांतलें ओंठार
आनी ओंठा वयलें कागदार

सत सत बरयतां ! सगल्यांक फट दिसता
फट, फट बरयतां ! सगळे वा ! वा! करतात

म्हाकाय मातशें कळूंक लागलां
मोल फटीचें समजूंक लागलां

हांवें मोगाचेर बरयलें
सगल्यांक फट दिसलें
हाका मोग आनीक कितें कळटा?
हाचें अर्दें आयुश्य रागान खालें !

राजकारणाचेर बरयलें
सगले फिदीफिदी हांसले
कदेलाचें म्हत्त्व हाका कितें कळटा?
जशें कितें कदेला विणें म्हजें अडलें

विशय आसूं कसलोय
हांवें सत बरोवपाचेंच चिंतलें
गोड व्हडलेंशें खालेंना
कोडू जिबेर अजून आसा
ताजें आतां खूब मेळटा
म्हाकाच व्हडलीशी रूच ना

47.

## भोंवडेकार

हांव एक भोंवडेकार
पासय मारूंक आयलां
तुमच्या सांगातान खीणभर
जिवीत सारूंक आयलां

कांयच हांवें हाडलेंना
तरी तुमी येवकार दिला
कांय हांव व्हरचों ना
सगळें तुमचे मुखार मांडलां

येतना वतना सगळेच रिते
तरी जिवाचे हे आटेपिटे
खंयचे घटकेक येत आपोवणें
कोणाकूच सांगूंक जावचें ना

कोण कोणाक देणें
कोण कोणाचो रिणकार
उपकारांचें वजें अशें
कित्याक माथ्या माथ्यार ?

वाट खंयच सोंपची ना
काळ कसोच थांबचो ना
हे खेळ रुतूरुतूंचे
सगळेच भोंवडेकार हांगा थोड्या काळाचे'

48.

## अमृत ल्हारां

तूं येता ते वाटेर दोळे म्हजे लागून उरतात
एक एक खीण काळ जावन खावंक येता
तूं येतकच मात...
वेळ वाऱ्यावरी उडून वता
कापरावरी जळून वता
उदकावरी व्हावून वता...
तुज्या सहवासांत
वेळ कसो गळून वता
म्हाकाय केन्ना कळ्ळे ना
तुकांय तें समजलें ना.
मिलन समयार मात
व्हड चमत्कार!
बाविल्लीं फुलां लेगीत
नव्या प्राणांत फुलूंक लागतात
सुकलेले रुख
परतून नव्यान चंवरूंक लागतात
अमृताची ल्हारां तनामनांत उसळटात
दिश्टाव्यांतले साम्राज्य अंतरंगांत संचारता!
भाव विश्वातलें सप्त सूर
पुनवेच्या चान्न्यांत भ्रमीष्ट जातात आनी
प्रणय गंध शिरंत्रानी शिरशिरून भरूंक लागता.
देखूनूच दोळे अशे
तुजेवाटेर लागून उरतात!

49.

## तूं येता देखून

परमळांत परमळ जायांचो
रुप्या उजवाड चान्न्याचो
रात घेवन येता चंद्रिम
खीण म्हज्या भाग्याचो !

एक एक खीण म्हजो
चान्न्या चंवरान भारावता
तूं येता देखून दिसता
सूर्य दर्यांत थिरावता!

50.

## कर्मभोग

हातांत हात दिलो
गांठवल बांदलें
अग्निसामकार सांगातान रावपाचें
उतर आमी दिलें

कुकुम लायलो तुज्या नांवान
भांग भरलो तुज्या नांवान
हातांत चुडो तुज्याच नांवाचो
गळ्यांत मंगळसुत्र तुंवेंच बांदलें

तुजेच खातीर नटलें
तुजेच खातीर सजलें
तारुण्यातलें सुवर्ण वैभव
तुकांच सगळें ओंपलें

चितूंक लेगीत नाशिल्लें
तें तें सगळें घडत गेलें
सात जल्म खंयचे
एका जल्मातूच नाका पुरो जालें

तुकां कसलो दोश दिवं ?
आता जल्मांक घालतल्याकूच रडटां
म्हजेच कर्मभोग म्हूण
मोन्यांनीच सगळें सोंसतां

51.

**प्रांजळ प्रिया**

कितली तुजी वाट पळोवची?
तूं आयली ना
तुज्या हुस्क्यान दोळ्या पाती मात लेगीत लकली ना

तुज्या येवपाक वेळ-काळ नासलो तरी
तुज्या येवपाच्या भासानूच मन पिशें परमळटा
कांचन गंगेची ल्हारां जशी नवे उर्बेन उसळटात

केन्ना तूं फुलां घेवन येता... केन्ना कळे फुलोवन वता
केन्ना उमास घेवन येता... केन्ना चान्ने शिंवरीत वता
केन्ना कुचकुचीत कांट्यांनी रक्तबंबाळ करून सोडटा
केन्ना अपुरबाय जावन आंगांत म्हज्या शिरशिरता.

तूं तर म्हजी सांवळी कशी
म्हजेविणे रावशी कशी?
जग परतें पडलें तरी
तूं परती पडची कशी?

तूं तर म्हजी प्रांजळ प्रिया
सखी अंतरात्म्याची
सूरा विणे गायिल्ली
कविता म्हज्या काळजाची!
देखूनूच... वाट पळयता इतली तुजी

52.

## चंद्र

चंद्र पुनवेचो वाटकुळो
अचकित कुपां आड गेलो
आनी काळोख म्हज्या मनांतलो
परतून दाटून आयलो

हो चंद्र काय खिणांचो
थोड्या काळाचो
दिका दिकांक चान्यात भुलोवपी
शाहीर सुवर्णकांतिचो

ह्या चंद्राक पळोवन
रचूं नाका कवनां, रचूं नाका गीतां
ह्याच चंद्रान कितलींशीच
घडयल्यात मिथकां

दिल्लें उतर म्होडलां
जोडिल्लें उतर तोडलां
मळबाक घालीत गवसणी
काळीज भोळें दुखयलां

सारीपाटाचो खेळ चंद्र
असो कित्याक खेळटा
मनांतल्या मुठभर चान्याक म्हज्या
दावाक कित्याक लायता?

53.

## जोत

दीस रडटा रातीक
रात रडटा वातीक
कसली व्यथा ?
कसली काणी?
घराघरांत तेच पाणी!

फुलां दिलीं
कांटे घेतले
मुळांच्या रिणांत
जल्मभर उरलें

फुलांखातीर बागसाय केली
निवल काणयांनी घुस्पत गेलें

मनांतली व्यथा सांगू कोणाक?
दोळ्यांतली दुखां दाखोवंक कोणाक?
म्हजेच दांत म्हजेच ओंठ
म्हज्या शेतांत म्हजेंच जोत!

54.

**भरती**

भरते वेळार ल्हारां खेळयत
दर्यान म्हणलें –
तूं बुडत वच, बुडत वच!
एक एक कविता
म्हज्या ल्हारां ल्हारांर
बरयत वच! बरयत वच!

तेन्ना सावन...
उतरां उधळायत
ल्हारां उसळटात
गीत म्हजें तुजेखातीर
दर्यावेळेर सोडून वता !

55.

## धूव

धूव म्हळ्यार अशी वाल
जी रुजता एका पोरसांत आनी
फुलता फळटा दुसऱ्या आंगणांत

नव्या घरांत तिचे
नव्यानूच पावल पडटा
आनंदाच्या उत्सवान तिचें
उमेदीन स्वागत जाता

नव्या संसारातल्या नव्या वैभवान
सौंदर्य तिचें खुलूंक लागता
धांपिल्ली मूठ सव्वा लाखाची!
जिवितांतलें तत्व तिका
इल्लें इल्लें समजूंक लागता

फूल फुलतना
गंध मातयेचो सुटना
कुळाराच्या यादींनी
मन घुस्पले बगर रावना
तुळशी वृंदावनी घालीत पाणी
तिच्याय ओंठार ओलीं गाणी
आयलेबगर रावनात!

56.

**पिंपळ पानां**

1.

सुदाम्याचे फोव
आतां गोड लागना
नोटीक लागलां म्होंव
चाटून चाटून सोंपना

2.

उतर मायेचें
उतर मोगाचें
पुंजाय रे मनशा
सूख सासणाचें

3.

मनशान गरजे खातीर
कागद तयार केलें
कागदान मात मनीसपण
सामकें गुठलायलें

4.

दुबळ्याक दुसऱ्याचीं
नोतांच दिसतात
कुड्ड्याक सगळो संवसार
सुंदर आसता

5.
चडून गेल्लीं
सोंपणां विसरलो
बावलो मेणाचो
कडून वितळ्ळो

6.
अन्याय सोंसतां !
सगळें सुरळीत चलता
न्याय मागतां !
सगळेच पिडटात

7.
सगळें सोंसून लेगीत
निराशाच पदरांत पडटा
तेन्ना देवाचेरूय
दुबाव घेन दिसता

8.
फाटलीं सपनां
खरीं जावंक लागल्यांत
सगळ्या बऱ्या वायटांक
हांवूच जबाबदार थारलां

9.
चंद्र वाटकुळो पुनवेचो
दाग अचूक कळटा
मनीस कितलोय आसूं बरो
तरी सगळ्याक चुकीच सोदता

10.
थोडें जोडटालों
ताजें जेवतालों
खूब जोडटां
शेळें जेवतां

11:
झाडार पिकिल्लें फळ
म्होंवा परस गोड
पूण घरांत जाणटो मनीस
सगल्यांकूच जड!

12.
कर्म कर
भोग फळ
नियतीचो
नियम अटळ

13.
सूख मुखार येवन
नाचूंक लागलें
तेन्ना दुख्खाचें उणेपण
मनाक सतावंक लागलें

14.
मोराचीं दुकां
मोर गिळटा
तरी तो पांखां फुलोवन
कोणा खातीर नाचता?

15.
पुराणांतल्यो काणयो
खूब जाल्यो सांगून
आतां हातान कितें तरी
दाखोवचें करून

16.
फुला विणें पोरसूं
आसल्यार जाता
अस्तुरे विणें घर
कल्पना करूं येता?

17.
कांय विशेशणां
बांदून घेवचीं गांठीक
उतरांचें मोल जुळटा थंय
वच्चीं तीं वांटीत

18.
भायले अळंकार
कांय खिणांचे
अमृतांत न्हाल्लें मन
शाश्वत सोबीतकायेचें

19.
उदकांत पेवंक येना
तरी दर्यांत खेळटा?
उतर पाळूंक येना
तरी उतर दिता?

20.
काळचक्र घुंवता
रुतू - रुतू खेळ खेळटा
विश्वाचो निर्मातो
इतिहास नवो रचता

21.
पोरां-बाळां जेवतात
आवयचें पोट भरता
उपाशीं पोटार लेगीत
धेंकर तिका कशे येतात?

22.
सुर्याचीं किर्णां
आनी रुखांचीं पानां
तांचें गुपीत
तींच जाणात

23.
फुलान फुलचें
हांसून म्हणचें
तुकां पळोवन
सार्थक जालें जल्माचें !

24.
पुनवेचें चान्नें
आनी उमाशेचो काळोख
दोगांयचो धर्तरेचेर
तितलोच मोग!

25.

दुसऱ्याक बोट दाखोवप
सोंपें आसता
आपणें आपणाक तपासप
कठीण न्हय, शक्यूच नासता

26.

तुजेर दवरलो विस्वास
पूण तुवें कापलो केंसान गळो
हांव एकलो एकसुरोच
मंत्र एक शिकलों नवो

27.

वाटसुऱ्याक सावळी
झाडाची
झाडाक रे
कोणाची?

28.

मळब दुकांनी
रडटा
तेन्नाच धर्तरी
हांसता

29.
चांफ्या फुला गंध तुजो
उडलो वाऱ्याचेर
मन म्हजें सामकें पिशें
भोंवता फुलाचेर

30.
काळजातली उतरां
कवितेची भास
गंगेचें पावित्र्य
काळजाचो ध्यास

31.
दडकांनी झडटा पावस
अंतर्मन तानेल्लें
कवळे पाचवे हरयाळेचें
मृदु हृदय करपल्लें

32.
म्हज्या कागदांच्या फुलांनी
हांवेच प्राण ओतलो
उजो ओंकीत गुलमोहोर
कमकमून पेटलो

33.
प्रेम म्हणल्यार पुण्याय
पूर्व जल्माची!
प्रेम म्हणल्यार फुलवात
वादळ वाऱ्यातली!

34.
म्हजे खातीर प्लॅनिंग
तोच करता
हांव फकत ताच्या
कुरवांचेर नाचतां

35.
तूं रित्या हातांनी येता
खूब कितें दिवन वता
एक उतर लेगीत उलयना
खूब कितें सांगून वता

36.
पर्णहीन रुखांचेर
शिंवर झडटा मोतयांचो
वसंत आतां ओडटा आंगार
शेलो नवल रत्नांचो

37
फुलां वेंचूंक गेल्लें थंय
काट्यांनी घुस्पलें
सांगाता तूं आसलो देखून
हुस्क्या मेखळे उरलें!

38.
कशी गेली कळ्ळी ना
भिरांकूळ काळखी रात
सूर्य किर्णांनी उजळायली
फांतोडेची नवी वाट



## चंद्रिका पाडगांवकार

फाटलीं पंचवीस वर्सां हिंदी, मराठी आनी कोंकणी विशयाची शिक्षिका म्हण खाजगी विद्यालयांत वावुरता. एम्. ए. (हिंदी), डि. एड. मेरेन शिकप जालां.

कोंकणी बरोबर मराठी आनी हिंदी भाशांतल्यान कविता, कथा, लेख आदि प्रकारां लेखन केलां. साहित्य अकादेमीखातीर कांय कोंकणी कविता आनी कथांचे हिंदी अणकार केल्यात.

आकाशवाणी पणजी आनी पणजी दूरदर्शन केंद्रावयल्यान कार्यावळी आनी गीतां, बालगितां प्रसारीत जाल्यांत.

पणजी दूरदर्शन केंद्र आनी खाजगी टिव्ही वाहिन्यांचेर निवेदिका म्हणून वावुरता. वाहिन्यांचेर नामनेच्या कलाकारांच्यो पन्नासांवयर मुलाखती, कांय माहितीपट आनी सणां- परबांचेर खाशेल्यो कार्यावळी हांची निर्मिती केल्या.

'नादब्रह्म', वास्को संस्थेचेवतीन निर्मिती जाल्ल्या 'बाकी संचीत' आनी 'गोंय गायता' ह्या गितांचे सीडीचें निवेदन केलां.

### उजवाडाक आयिल्लें साहित्य

1. चान्नें म्हज्या आंगणांत (कविता) 2004
2. जिणेची गंगोत्री (कविता) 2010

### प्रकाशनाचे वाटेर

1. मनकोगूळ गायता (कविता संग्रह)
2. गोसाई बागेंतलें भूत (अणकारीत बंगाली बालसाहित्य)

---

कामिनी प्रकाशन